वर्स : चार/अंक : स/हेमंत अंक/नोवेंबर-डिसेंबर १९८६




कवितेचें कोंकणी द्वैमासीक

संपादक : **पुंडलीक नारायण नायक**

मुखपृष्ठ : **श्रीधर कामत बांबोळकार**

छापपी आनी उजवाडावपी : **नारायण वादोळकार**
कुळागर प्रकाशन, पो. बॉ. नं. ७८, मडगांव (गोंय) ४०३ ६०१

छापणावळ : **हिरू नारायण नायक, अपुरबाय प्रिंटर्स**, वळवय गोंय.

संपादकाचो पत्तो : पुंडलीक नारायण नायक
वळवय, सावय–वेरें, फोंडें (गोंय) ४०३ ४०१

**अंकाचें मोल** : २ **रुपया वर्सूकी पटी** : (विशेशांकासयत) **१२ रुपया**

## मांडावळ

३१ डिसेंबराचे मध्यानेकडेन
अस्कमात भानार यो जाल्यार कितें ?
नवें वर्स दारार !
आनी पोरण्या वर्सांतलीं कितलींशींच कामां फतकल मारून बसल्यांत.

वंटीवयल्या घड्याळाचो वरां–कांटो खुंट कसो उबो रावपाचे तयारेंत आसा।
आनी कितें काय म्हळ्यार आपूण, मिनीट – काट्याक कटा कटा करून वयर ओडटा.

माल्ली झोपय
जशी कोणा अंजनीच्या सुतान मारिल्ली सूर्याचेर खंय कदिमकाळा.

दाव्या हातान धल्लो तसोच थारावन मिनिट–काट्याक.
– मागीर उजवो पांय धर्तरेचेर आदळून आशी – कुशीक थोडी शांतताय प्रस्थापित केली.
– थोड्या शांती – करारांचेर स्वाक्षरी केली.
– उसवल्ले थोडे फोण पांयाच्या नाक्शानीच पुरयलेशे केले.
– थोडीं दुकां पुसलींशीं केलीं.
अेक हात खंय खंय म्हण पावतलो !

आनी मागीर सोडून दिलो कांटो,
तो भिडलो नव्या वर्साक
तेन्ना पेटोवन दिली फुगोट्यांची रास.

तशें पळोंवक गेल्यार
पोरणें वर्स बरेंच गेलें !

पुण दर वर्सा निमाणेकडेन हें अशेंच घडटा,
सगळें पूर्ण करतलो म्हळ्यार
अवघीं मिनटांच उणी पडटात.

# सूर्यवंशी कविता   रमेश भगवंत वेळुस्कार

## सूर्यवंशी कविता

१

हांव
हिरण्यगर्भ

आतां बाकी सगळे
संदर्भ गौण
जाका ज्ञानाचो
हो हिरण्यगर्भ सवूंक ना
ताका क्षमा करपाचो
अधिकार म्हजो

म्हज्या समेस्त
सूर्यवंशी बंधवानो
हो तर त्या
आदिसूर्य नारायणाचो झोत
आगळ्या चित्रानी आळयल्लें
हें वसुंधराय संवेदन

अुत्कर्शाचो झेत मारप्यानी
ह्या सूर्यसुत्राकडलें
सूत वळखूंक जाय
हे हिरण्यगर्भा
सगळ्यांतल्या तेजांत
समरस जावपाची शक्त
म्हाकां दी
म्हज्या सवन
सूर्यवंशी बंधवानो
तुमकां सगळ्यांक
म्हज्या प्राणाचो प्रणाम

२

हांव कितें जाणा ?
म्हाकां कितें कळटा ?
तूं कोण ?
तो कोण ?
हे सूर्यशक्ते
तुजेविण ह्याका
कांयच अर्थ ना..
हें जाणा जावप
हीच म्हजी समर्थताय
आनी सुंदराय

३

हे म्हज्या अिश्टा
हांव वरीश्ट न्हय
तूं कनिश्ट न्हय
हांव आनी तूं अिश्ट
आनी आमी दोगूय अिश्ट
हे सृश्टींतलें सगळें अिश्ट
आनी ही सृश्ट
— अिश्टागत

४

फांत्यार अुसवता
धार तेजाची
आनी ही धर्तर लागता
पान्याक प्राणाच्या ... दुधाळ
खीण खीण जीण
झणत्कारयत ....

५

म्हज्या बंधवा
वस्तुमात्रांतलें चैतन्य
हें तुजें म्हजें चैतन्य
हृया तथ्याचेर
हांव तुका वळखतां
तूं म्हाका वळखता
आतां अनवळखीपणाची
गरज कितें ?

६

दोळियांचो देवु
म्हजो अिश्ट अुजवाडु
म्हज्या तनरांचो सर्ग
सर्वयामी

७

हांव तुजेकडें अुलयतां
नुलयत आमी अशेंच समजतात
प्राणाक तांत लागची न्हय
म्हण
म्हज्या प्राणाचो हो प्रवास
तुज्या समजाचे अूर्जेंत
मेंदवाचे तंद्रेंत
मागीर हातांच्या शिंवशिंवपी रंद्रांत
तातुंतल्यानूचपरत प्राणांत
ही आदि अनिरूद्ध अूर्जा
ही आदि अविरत सूर्यशक्ति
हे आदिमाये
तुजे पदक्षिणार्थ
सूर्यशक्तेयनमः
सूर्यशक्तेयनमः
सूर्यशक्तेयनमः

८

तुज्या दोळियांची माया
माये आयाव आयाव
म्हजे म्हाकांच मेळना
म्हज्या कळवांचे थाव

तुज्या हातांनी गे तुवें
प्राणी केणयले केण
अेका खिणात गे जालें
जळून सूर्याचेंच मेण

ह्या गे केणांचीच जीण
तुजे व्हंटयेंत विहूली
सूर्य वंशाची ही भेट
म्हाकां अचळय दिली

९

प्राणांत कोणाचें रीण
काय म्हजोच हांव रिणकारी
चोय भोंवतडता भोंवतणी
ही वाऱ्याची सवणारीं

रक्तांत शिरंतरांतल्यान
हो नेमान मारता पासय
यादींक दिखो दाखोवपी
ही अवताराची कासय

प्राणाक वाऱ्याची भीड
आनी शिडां सोडून हीं वर्सां
सोदीत दवर्णी मरणाचीं
वयता भियेत खिणाची पोर्सां

चा. फ्रा. दिकोश्ता

## कांटो

तुज्या केसांक चोयतना मोगा
म्हजे दोळे भरून येता
तोंडार चरचें वादळ पुसूंक
तकली केसांत पुरून वेता

तुज्या केसांत पडलों मोसांत
लेकलें म्हज्या मोगा वांटो
व्हाळ रगताचे रिगतां पोल्यांत
तुजे बॉबपिन्निचो कांटो

तुज्या वोडतांत चोयतना मोगा
म्हजें काळीज शिजून येता
म्हज्या मोगान भिजून मुगो
गुलाबा फूल रुजून येता

तुजो तुका जालो वांटो
म्हजो म्हाका दीगो वांटो
पाकळचो व्हेल्योय देंटूय व्हेलोय
म्हज्या वांट्याक उरलो कांटो

तुज्या हरद्याक चोयतना मोगा
म्हजें काळीज फुमार जाता
तुज्या पालवांत खाडकी चेपून
रडों म्हणून आशा येता

अशे वेंगेत मोगा पासांत
म्हजो घेतनांगो वांटो
खाडकी फुटून जाता भेसां
लागून आल्फीनिचो कांटो

## मायेमोगान निरोप

आमचो ऑफीस वांगडी
पिराय जावन रिटायर्ड जाता म्हुण
ताका बरो फुडार आंवडेवन
आमी हो ताचो
मायेमोगाचो निरोप घेतात

हे ऑफीसरूपी रूखाच्या
वा रूखरूपी ऑफीसाच्या फागुरपांत
आमच्या ह्या वांगड्याचोय हातभार आसा
हें आमी कोणुय कशें न्हयकारूंक शकत ?

पुणून ह्या आमच्या ऑफीस वांगड्याच्या
ह्यांगचे जिणेचो हे घटकेक विचार केल्यार
म्हज्या दोळ्यांमुखार येता
कार्बनपेपराच्या जिणेचें चित्र

कार्बनपेपर टायपरायटरांत
पर्तुन पर्तुन जाय तितले फावटी घालून काडून
तो चाळण जाय मेरेन वापरतात
आनी मागीर तो नाका तेन्ना
काय न्हय कसो हातान चुरून
कोयरा टोपलेंत उडयतात

आयज ह्या आमच्या ऑफीस वांगड्याची
पिराय भरून ताची चाळण जाल्या म्हुण
आमचें ऑफीस असोच कार्बनपेपर कसो
ताका चुरुन उडयता काय ? ....

## वृंदावनांतलें कोगूळ

शेंकडे काळांक राकून राबून
हारि खावन
हताश जावन
तूंवय आज वत्ता वे ?
तूंवय आज वत्ता वे !

पळेत हांव बेसलों खाल
सकाळ सांज कितले काळ –
विरहाचें दुःख
तुजें राकपी तोंड
हृदयांतलो उजो आनी
थःकेले दोळे.
माणकुलें तें देह थकेंव मेरेन, भावडे
उबत भोंवत सगट विसरूंक
तुवें केलेले यत्न.
ओल्ले दोळे धांकून मागीर
कदंबाचे खांद्यार पाकां दामौन बेसून
एकसुरींच केलेलें ध्यान.
वारो आपशीं उलयतकच
थडथडून जागून तुवें
भोंवतणेक मारलेले नदरेंतले हुस्के.
खिणाक चोरायेंचो हास
खिणाक पायांर नांच
मागीर मागीर नेणताशेंच
ओल्ले जावंचे पोल्ले
चोरायेंचो कोपु तुजो
चोरायेंचीं झगडीं
पळेत हांव बेसलों-बैसत दीस कितले गेल्ले !

कितेंय सांग कितलेंय रड
काळीज जळय कितलेय काळ
तरीय तुजि पिरलूक आनी
वापास येवंची ना बाये –
अशें आतां सांगलें तुका कोणे पापणी, निर्दय ?
तुजे तीक्ष्ण वीक्षणान सुकल्ले पिंपळा पाल्यानि वे ?
हे निरंत हरित कदंबाचे कठिन काळजान वे ?
हांगा थांगा न्हिदिल्ले हे फातरानि मोन्यानि वे ?
दूकां गळयत व्हांवचे काळिन्दीन खळसानि वे ?

हांगा मोर पाकां फुलावन नांचूचे ना किं आनी ?
गोरवां तांच्यो घांटो हालयत खेळचीं ना किं आनी ?
काळिन्दीन गागर्योंच दिकच्यो ना किं आनी ?
राधेले गाल्लांर फुल्लां फुलचीं ना किं आनी ?
अक्रूराले रथार चडून गेलोलो तो मोगाळो
काळीज फातर करून थंयचे थंयच सदा राबचो किं ?

राकून राबतल्यांच्यो
कितल्यो दु:खेस्त काण्यो आयकल्यात
आयकून हांगा दोगांय आमी
अशेंच सदा बेसल्यांत !
आशा तितल्योय कर्पुन
गोबोर आमचेच आंगांर मांडून गेला
दिकतल्ले ते भावडे म्हणतात :
योगींच हीं-दुबाव ना !

आयकतां सुस्कार एक
पाक हालौंचो आवाज
आपलें वृन्दावन त्यजून वचचेलो किं
तूंवय आज !
वापास येवप नाच तशे यात्रेक
वेळ जाला कितें ?
अंत नासो सोद तुजो
आतां शुरू जावंचो कितें ?
राब एक खिणाक !
राब एक खिणाक
हांवय येतां तुजे वांगडां आतांच !
व्हांवचे हें जीणेचें वजें
माथ्यार थाकून देंवयतकच . . . .

## फोटो

णव वर्सांपयलीचो हो म्हजो
चौदा वर्सांवयलो नितळ फोटो पळोन;
करुणेच्या खोल दर्यांत बुडून रावन दिसता.
अुज्वाडाचे काकूटेन आनी काळखाच्या भंयान
सगळींच जनेलां धांपतात बिस्मृतेच्या वाऱ्यान;
म्हज्या आंगार धांवून येता अेक महाकाय भुर्गेपण.

ताज्या तोंडार समाधानाचो भयंकर अुज्वाड
– अेका वटेन पर्तील्लें ताजे हे मळबखोल केंस :
जांची झडून जावपाची आसता सुतरफेणी कांय तेंपान
ताका खबर ना तरीय तो
हासतां दातांच्या उमेदी दर्यांत लाटेभशेन;
जरी देवपाची आसता उमास, लाटेक फाफसूक
नी तंबाखून करपल्लें ओठातलें सत्य.
ताज्या दोळयांत दिसता म्हाका तुकारामाचो अभंग
जाचे जावपाचे आसतात शेकडयांनी कुडके
आनी ही ताज्या कॉलरीची फुलील्ली आयाळ;
जाल्लें आसता जाचें आतां सुकें मरड ....

ताज्यातलो तन्नो भिष्म
आनी म्हज्यांतलो जाण्टो कोमो ययाति
हांचेंमदलो काळाचो भस्मासूर
म्हाका सासपून करपयत आसा ....
ताज्या नीवळ कपलाचें सारयल्लें आंगण
आनी दाट भुवयाचें कोरीव भाग्य
हांच्या फाटल्या नकलामी कवटेची
ताका जाण ना; जी दिसपाची आसता मरणापयलीच
भौतिकाचो दशिल्लो धुल्ल घेवन ....
ताका कसली झिंग चडल्या कळना;
जी आतां सोऱ्यानय चडना

ताका पळैतकीर
करुणेचो दैवी भास म्हाका भेश्टयता.
तो फोटो म्हेळ जावन
ताजेर आता कितल्योशोच चिटयो पडल्यात :
ह्या म्हज्या दिसांभशेन –
तरीय तो हासता अेका वटेन तसोच
समाधानान; म्हजो आत्मो कसो ....

## ताण

काळजांत अेक वाळवंट घेवन
देवपाचें शतकान्शतकाच्या आदिम वादळांत.
सांजच्या रस्त्याची ही धवसाण
आनी आंगणातल्या कपडयांच्या तारेवयलो ताण
हांच्या स्तब्धतेचेर सुकत घालपाचो
आयुष्याच्या पोक्या भयात भिजिल्लो आत्मो ...

खेदावल्लें रक्त आनी आयुष्याचें अजगर
हांचो पारो लायतना
अज्ञाताचो बुकलो सदाच रड्टा भितल्ल्या आवाजांत;
तळयेर हुबील्लें शेनायकाराल्लें मढें
आनी पडवेर पिकील्ली माईल्या दोंळ्यातली ओली निनसांज
हाचेंमधले संकेत म्हजी फाट सोडीनात.

आंगणातल्या तारेवयलो ताण केन्नाच कमी जायना
तीनसानेच्या भंयान बुकलो नेटान रड्टा
दुःखाचें अेक तोंक दिसता कृष्णगुवेत सोपील्लें;
फातरांमुकार वाकतनाय हांव आंग काड्टा
वर्सांनी जमील्लो भोवतणीचो शेंळो मोन्यानी पळैता
आनी बॅसीनातल्या जल्ल्याभशेन हांव
पर्तो एकदां निसरून पड्टां . . .

## दुखां

दोळयांत दुखां पोल्यार न्हंयों
जडाय व्हावब्न कशें जियों ?

व्हयलीं तारां घेतलीं ओंटार
ओतलीं तुज्या पोल्या मेटार
संतोसाच्यो नातल्यो व्होवियो
खंतीन काळजांत रडल्यो बांयों
दोळयांत दुखां पोल्यार न्हंयों
जडाय व्हावब्न कशें जियों ?

पुरासाणेन आयलोय बागलार
जांयां परमळ ओतलो दारार
पुरपुऱ्यांच्यो तोपल्योच सुवियो
बावून गेल्यो जायो-जुयो
दोळयांत दुखां पोल्यार न्हंयों
जडाय व्हावब्न कशें जियों ?

लग्नाक दिल्लें पाळच्याक अुतर
पालंव धरलो तुज्यायी मात्यार
तकलेंत तुज्या हजार चलीयो
आमचे मधें बांदतात वोयो
दोळयांत दुखां पोल्यार न्हंयों
जडाय व्हावब्न कशें जियों ?

## गीत

अुतरां दोरी गुथूंन मनां
आयलां तुज्या दारा

दोंगरा तेंगशेर सूर्य आयला
व्हडा खोशयेनू
लाय गो चेडवा कपला तिबो
सोबीत बोटानू
अुतरां दोरी गुथूंन मनां ... ...

चोय गो चेडवा हांसता तुका
अुट्टी पिसोळीं
फुलती फुला लजल्या बेठी
म्हाका पळोवन तुजे सरीं
अुतरां दोरी गुथूंन मनां ... ...

दंवान भिजून पांचवी पानां
शिरशिरूंक रावल्या वनां
वनांतुलीं चडणां – मोडणां
तरशेल्यां गो तुज्या पायजणां
अुतरां दोरी गुथूंन मनां ......

मस्तो वारो अुबयता गो
केंस तुजे बिरी – बिरी
केन्ना येता सांग आतां
सोडून कुळार म्हजे सरीं
अुतरां दोरी गुथूंन मनां .......

## अरूण साखरदांडे

### चुकूनतरी

आमी – तुमी घोडो काडूंक बसले
कीं जाता गाढव
प्रत्येक वेळा.
पुण कांय लोकांची गजाल वेगळी
ते कोंबो पिताऱ्क बसतात
पुण जाता मोर.
नीळसर दोळे – पीसांचो ...
भिरभिरत्या नदरेचो ....
थरथरत्या तु-याचो ...

इतलेंच न्हय
तर नाचुकूंय लागता
मान धोलयत
पीसांची रंगीत सत्री फुलोवन
एका सोबीत
निकत्याच फुलील्या धुंद गीता भशेन
तुमच्या आयुश्यांत केन्ना अशें घडलां ?
म्हणजे चुकूनतरी ?

### पिशेपणा

सपनांचे खोपीत
पीशे रावतात
शाणे सीमीटाचे बंगले बांदतात
सपनांच्यो खोपी माड्डून
मागीर
पीशांक तुटील्या सपनांची पोटली बांदून
पांय म्होडीत
सोदची पडटा
नवी भूंय
सपनांच्यो खोपी परत्यो उबारपाक

## सपनां कशीं आसतात

सपनां कशी आसतात ?
तुमी म्हण्टले
फातोडेचो दंव
आंगार घेवन
टवटवीत फुलील्या फुलांवरी
पुणून ओत वाडटा
तशीं फुलां बावतात
दोन दिसानी पाकळयो झडून
देठूच फकत हातांत उरता
हें तुमकां खबर आसा न्हय ?

## बाकी

तूं आनी हांव एक जालीं
हांव म्हण्टा बेरीज जाली
तूं म्हण्टा वजाबाकीं
बरे बाये तुजेंच खरें !
वजा तर वजा
पुणून बाकी तरी कितली उल्ली ?
शून्य ?
हांव जाणाच आसलों
दोगांमदी
तुमी तिसरे नाक रीगयतले म्हणून

## गोकूळ

अेक मोर . टिंब
अेक मोरपांख . . टिंब टिंब
अेक रंगिल्ली सांज ... टिंब टिंब टिंब

तुमकां कितें कळळें ?
कळळें ना !
कांय नजो
कळुकूच जाय अशेंय ना.
हांवें बरयलां
पुण बरोंवक जाय
अशेंय ना.

अेक मोर . टिंब
अेक मोरपांख . . टिंब टिंब
अेक रंगिल्ली सांज ... टिंब टिंब टिंब

मोर : गोकळांतल्या रानां भेटिल्लो
मोरापांख : कृष्णाच्या माथ्यांत खोविल्लें
अेक सांज : गोकूळां रंगिल्ली ...
गोकूळ ....
गोकूळ : कृष्णात रमिल्लें
कृष्ण नाचांत रंगिल्लो
पुण
राधा ?
राधा खंय शेणिल्ली ?
राधा : राधाकृष्ण जाल्लो
गोकूळ : गोकूळ कृष्ण जाल्लें
मोर कृष्ण जाल्लो
मोरापांख कृष्ण जाल्लें

अेक सांज रंगिल्ली ... टिंब टिंब टिंब
आतां तरी कळळें ?
कळूंक ना ?
म्हाकाय कांयच कळूंक ना !

अेक कृष्ण . टिंब
अेक गोकूळ . . टिंब टिंब
अेक राधा शेणिल्ली ... टिंब टिंब टिंब

हावें पयलें उतर बरयलें तेन्नाय
राधा शेणिल्ली
गोकुळूय पिसावल्लें
यमुनाय जडावल्ली
अेक सांज यमुनेंत जाळावल्ली ... टिंब टिंब टिंब

आजुनूय कांयच कळूंक ना ?
कांय नजों
हांवेंय कांयच पळोंवक ना

हांव . टिंब
म्हजें मन . . टिंब टिंब
म्हाका फुटिल्ली उतरां ... टिंब टिंब टिंब

हांव : गोकुळांतल्या रानात रमिल्लो मोर
म्हजें मन : कृष्णा शेणिल्लें गोकूळ
म्हजीं उतरां : यमुनेच्या जळांतलीं विरह चित्रां
आतां तुमकां कळळां आसतलें
म्हाकाय जाणवता

अेक मोर . टिंब
अेक गोकूळ . . टिंब टिंब
अेक शेणिल्ली राधा ... टिंब टिंब टिंब

मोर : तुमच्या म्हज्यांत रमिल्लो कृष्ण
गोकूळ : तुमचें म्हजें मन
राधा : तुमचें म्हजें विंटिल्लें सपन
तुमकां आजुनूय कळूंक ना ?
म्हाका दिसता, •
तुमच्या दोळयांतुलें टिंब
टिंबा टिंबातलें बिंब
बिंबा बिंबातलो कृष्ण
कृष्णा . . कृष्णातलें गोकूळ
हेंच सगळयाचें कूळ
हेंच गा मूळ....

# शिशुकवनां

**सीता रा. कुंकळकार**

चांदमामा चांदमामा धावता खंयच्या गांवा रे
नांव ताचें सांग कितें तो कितलो पैस रे

पिंजारिल्ल्या कापसाची
ल्होव ल्होव घरां
ल्होव ल्होव घरांक
चोंयवाटेन दारां

दर दिसा रंगाचे नवे पडु कोण लायता रे
चांदमामा चांदमामा राव मात्सो रे
त्या नवलांच्या झाडाचें नांव सांग रे

पंदरा दीस पालेता
पंदरा दीस चंवरता
आपसुकीच धोलतना
भांगरा शिंवर फापशिता
भांगराचो शिंवर ताचो पुंजावंक येता रे

## नागेश नायक वडिये

## शीटकावणी

### उंदराक

उंदीरमाम उंदीरमाम
चल बेगीन बीळांत धांव
बाबान आयजच पांदरो हाडला
तुका म्हणून सांगतां हांव.

### मांजराक

बीलूबाय बीलूबाय
रान्नीर तोपला दुध्रा साय
आओ येवचेपयलीं सांग
आनीक तुका कीतें जाय ?

### कावळचाक

कावळया कावळचा ओगी राव
करूं नाका काव काव
पापड सुकत घालचे जाल्यात
साव जावन राव

### बुकल्याचें लग्न

ढूम ऽऽ ढूम ऽऽ ढुमूक
ढूम ऽऽ ढूम ऽऽ ढुणूक
बुकीमामा लग्नाक
लोक ना कोणच

पें ऽ पें ऽ पें ऽ पें
वाजलें पेपारें
बुकल्याच्या लग्नाचें
जालें दीवाळें

सळ् सळ् सळ् सळ्
कायल तळटा वडे
खावपाक कोण तयार ना
बुकल्याक आयलें रडे

म्यांव ऽऽ म्यांव ऽऽ म्यांव ऽऽ म्यांव
व्हंकलेन म्हळें "जाता तें जाव,
वडे आनी लग्ना लाडू
आमीच सगळे खांव"

## संजीव वेरेंकार

ह्या अुक्त्या मळबांत
आमकांय पेवचें आशिल्लें,
सवण्यांवरी फाटीक पाखां लावन.
आमकांय उडचें आशिल्लें,
मळबांतलीं पालवल्लीं नक्षत्रां पेटोवन
धर्तरेर घणघणीत अुजवाड
घालचो आशिल्लो !
पुण, हें मळब
आमच्या हातालागीं ना
देखून खास आमचे पासत
आमकां मळब लेगीत अेक
निर्माण करचें पडलां
आनी तो वावर चालू आसा.

श्रीधर शणै के.

## पिश्शें

पिश्शचो येत्ता दूर सरात
पिश्शचाक वाट सोडात
म्हाका पिश्शें ना
तुकापिश्शें
न्हयि तुमका

पिश्शें नतिल्लो कोण ?
हासता केन्ना तो
हासचें पिश्शें ताका
देवळांतु केन्ना ती
देवा पिश्शें तिका
तुका केन्ना अनवाळें
अनवाळचा पिश्शें तुका
केन्ना हांव मुंगो बसता
म्हाका कसलें पिश्शें ?
एकलोच बसचें पिश्शें
चड जावचें सगड पिश्शें
जड जावचें तेंच पिश्शें

एकेककल्यांक पिश्शें एकेक आसा
कसलेंय तरि पिश्शें नतिलो कोण आसा ?
देव .......
न्हयि, देवाकयि आसा पिश्शें
आमचें तरकी पिश्शटांक
सृष्टी करचे, संहार करचे
रक्षण करचे, पोषण करचे
आनी सोडचें पिश्शें

सर्वथ पिश्शें ....
पिश्शक मात्र पिश्शें ना
ताका कोण दूर करना
दूर करूक कोणाक जायना
पिश्या फाटीं सपाट वतात
पिश्शाटांक मात्र दूर करतात

## परवड

फांत्यापारार
जाग आयलीच ना !
येतली कशी ?

दनपार --
दोळे जड,
सगलेंच जड.
हाताक लागली
श्रमाची जोड
मनार हांसो.

सांजच्या वेळार –
साळकां पालवलीं
नवी उमेद

रात –
सच्चीच;
जडकाय ल्हव ल्हव
आरथून परथून
नव्यानीच
तरातरांनी.

दुःख सहन करता
मनाच्या हांशार
पैशाच्या पावसार,

फुडार अनवळखी
चित्रविचित्र
जातून
तीच उमेद
तेच तरेन

परथून एकदां,
न्हय खूब्ब फावट
तोच फांत्यापार –
सकाळ नाच
तीच दनपार –
अळणी
सांजवेळ तशीच –
आशावादी
रातय तीच
सच्चीच.
वेदनेची ?
न्हय,
उमेदीची.

## जीण अशी जगूंक जाय

फुलांवरी फुलचे खातीर
जीण अशी जगूंक जाय
सैमालागीं नातें जोडूंक
उक्त्या मनान गावंक जाय

रानांवनां भोवती थंय
सोबीतकायेक तोखेंवक जाय
रूखांवांगडा खेळचें जाल्यार
झाडांचेच काळीज जाय

दर्यांचें गीत गावंक
ल्हारांचो सूर जाय
उदका वांगडा धोलूंक वाऱ्यार
व्हडें आनी तारयो जाय

तानसेनाची तान घेवंक
सूर्यदेवा वर जाय
धर्तरेचें गीत गावंक
चंद्रीम आनी तारे जाय

आर. रामनाथ

## सर्जरी म्हजे जीणेची

रात
ही रात
काळरात
ही रात
रातीर मात.

हें काळीज
दर्या गाज
वांज ल्हारां
दुकाळ साज
हें काळीज
मरणशेज . . .

हे सूर
सूर न्हय
सातरंगी नूर
सूर – नूर
अश्वखूर
उचंबळ
चौखूर . . .
नूर रणार
रणांत सूर
सूरसूरांत
प्रलयपूर
हे सूर
ही एकतार
ही एकतार
हे सूर . . .

हे दोळे
इंगळे विखाळे
जळटा
तुका – म्हाका – समस्त आमकां
इंगळ्यांत
एक खर दनपार
दनपार गर्भार
गर्भ एक प्रचंड दोळो
तो एक सूर्य गोळो . . .

हे हात.
हातांत
जळटा
शांत
शांत
वात
वाती
सभोवती
मिण मिण उज्वाड
मिण मिण उज्वाडाक
खिण खिण
खिन्न रात . . .
हे पांय.
पांय हे !
हे पांय

जडभार
पांयभर
सैमरंगी
वाय.
कण कण पायांक
खिण खिण घाय
सैमरंगी
समस्त जीणेक
कुपाळ 'गुड् बाय्' !

निमाणी ही खोप.
खोप न्हय
काळाचो अजस्र गोप.
गोपांत हांव
सैम विलिन.
सैं
म
वि
लि
न . . .

## प्रश्न म्हजो गिरेस्त हांगा

थेंब
थेंब
आंगभर
हो घाम की काम ?
हांव नेणो
तूं नेणो
प्रश्न म्हजो गिरेस्त हांगा . . .

थेंब
मनभर
ही दुकां की सुखां ?
हांव जाणा
तूं जाणा
जायते जाणा
प्रश्न गिरेस्त हांगा . . .

## प्रकाश ना. चणेकार

### आंकवार मोग

दोन थेंब – मळबावेल्या काळ्या कुपांतले,
आशेल्ल्या भुयेंच्या उदरान रिगले
सांगात केलीं पांचव्या झाडां पालवानी
चिवचिवपी शेवण्या – सुकण्यानी
पयसुल्या दोंगरा तेंगशांनी
पुण भूंय मात वांजच उल्ली
ना फुटलो कोंब – ना उजवली कूस
अशे तरेन परतून अेकदां भूंय आनी
कुपांचो मोग आंकवार उल्लो !

## शांती सदानंद प्रभु तेंडुलकार

### दोळे

मनाचीं दोन जनेलां
म्हळयार दोन दोळे
सुंदर पाकळेभशेन
घारशे काळे दोळे

हे दोळेच उक्तायतात
मनच्यो सगळ्यो भावना
केन्ना निरशेल्ल्यो केन्ना फुलिल्ल्यो
मनात येवपी कल्पना

जेन्ना मन खोशी आसता
तेन्ना दोळे सामके खोशेल्ले
पुण जेन्ना मन निरशेता
दोळे दिसतात निरशेल्ले

पुण जेन्ना मनशाक दोळेच नासतात
तेन्ना जिणेंत अर्थुंच नासता
तितलोय उजवाड सोदलो तरी
काळखाचोच सांगात मेळटा.

मुखपृष्ठ छापणावळ : अपुरबाय प्रिंटर्स, बळवय – गोंय